ॐ

॥ श्री गणेशायनमः ॥

# श्री गणेश-पूजा, आरती, अभंग, स्तोत्रां भक्तिगीतां





मॉल : - संकलन } श्री सुहास यशवंत दलाल
संपादन } श्री रामभाऊ जुवारकार

रू. १०/-

# 'देव बरें करूं'

'अर्थाविणें पॉल गाणें' अशी कोंकणींत अेक ओपार आसा. अंत:स्कर्णा सावन पूजा करतलो जाल्यार पुजेच्या श्लोकांचो अर्थ आदीं आपणाक कळूंक जाय. देवाक गराणें घाल्या उपरांत चडशा देवळांनी सगली सांगणी मराठीन केल्यार लेगीत निमाणें 'कल्याण कर आनी बरें कर' अशें म्हण्टात. 'बरें कर' अशें कोंकणींत सांगून घेतगीरच आमकां 'बरें' दिसता. हरशीं, खरें पळोवंक गेल्यार ' कल्याण कर' आनी 'बरें कर' हातूंत फकत भाषेचोच फरक.

म्हजे व्हडले गोंयचे व्हडले इश्ट श्री रामभाऊ जुवारकार हांणी कोंकणी 'गणेश पूजा' ह्या संग्रहांत उजवाडावपाची परवानगी दिवन आमकां तांच्या उपकारांत दवरल्यात. तांकां 'देव बरें करूं' म्हण्टां.

श्री रामबाब प्रभू चोडणेकार, श्री नरहरि व्ही. प्रभू (गोकर्ण), श्री सुरेश रामचंद्र पै, श्री अभयकुमार वेलिंगकार ह्या म्हज्या कोकणी-मोगी जाण्ट्या-नेण्ट्या इश्टांक तांच्या साहित्या खातीर 'देव बरें करूं'.

कै. केशव सांब शिर्वेकार, कै. वामन सरदेसाय, कै. रामराव कुंकळयेंकार ह्या सर्गेस्त कोंकणी देवभक्तांच्या पवित्र उगडासाक आमचीं नमळायेचीं आर्गां.देवान बरें केल्यार फुडली आवृत्ति हाच्याकय तोलामोलाची जावपा खातीर आमी तनमनधनान वावुरतले अशें कोंकणी भौसाक आमी उतर दितात आनी फुडले चवथीक 'आरती, अभंग आनी सुपुल्ल्या स्तोत्रांची' ध्वनिफीत आयकुपाक सादूर रावात अशें नमळायेन मागतात.

जय कोंकण, जय भारत, जय जगत.

सगल्यांक 'देव बरें करूं'

तुमचो सगल्यांचो

श्री सुहास

श्री सुहास यशवंत दलाल, वकील
अुजवाडावपी : 'प्रतिभा प्रकाशन' २१ वें पुष्प
'संस्कृति - संगम' कुशबन
केपें - गोय, पिन कोड ४०३७०५
छापपी : बांदेकार ऑफसॅट, कुडचडें - गोंय
१ली उजवाडावपी, प्रति १०००. मॉल रू. ९/-

# ।। संकष्टनाशनमहागणपतिस्तोत्र ।।

ॐ श्रीगणेशायनमः श्री नारद उवाच :

साष्टांग नमन हें म्हजें

गौरीपुत्रा विनायका। स्मरल्यार भक्तिन सदां

आयु, अर्थ, काम साधती ।। १ ।।

पयलें नांव वक्रतुंड, दुसरें एकदंत तें।

तिसरें कृष्णपिंगाक्ष, चवथें गजवक्त्र तें ।। २ ।।

पांचवें श्रीलंबोदर, सवें विकट नांव तें।

सातवें विघ्नराजेंद्र, आठवें धुम्रवर्ण तें ।। ३ ।।

णव्वें श्रीभालचंद्र, धावें श्रीविनायक।

अकरावें गणपती, बारावें श्रीगजानन ।। ४ ।।

देवनांवां अशीं बारा, म्हण्टी त्रिकाळ जे नर।

विघ्नभंय नास्ता तांकां, देवा तूं सर्वसिद्धिद ।। ५ ।।

विद्यार्थ्याक लाभता विद्या, धनार्थ्याक लाभता धन।

पुत्रार्थ्याक लाभता पूत, मोक्षार्थ्याक मेळटा गती ।। ६ ।।

जपल्यार गणपतिस्तोत्र हें, स म्हयन्यांत मेळटा फळ।

एक वर्स पूर्ण केल्यार, मेळटा सिद्धि ना संशय ।। ७ ।।

आठ ब्राह्मणांक बरोवन केल्यार अर्पण।

सगली विद्या फाव जाता गणेश-प्रसादान ।। ८ ।।

नारदान रचिल्लें संकष्टनाशन श्रीगणपति स्तोत्र हें।

श्री सुहासान कोंकणि-जनांखातीर अणकारलें ।।



# पूजेची पूर्वतयारी

१. तांबयो, पळी, पंचपात्र, पडगो, दिवली, एकारत, पंचारत, घांट.
२. गंध, शेंदूर, कुकुम, हळद, अष्टगंध, बुको, पिङ्को, जानवीं, कापसाचीं वस्त्रां.
३. विड्याचीं पाना, नाल्ल, सुपाऱ्यो, दक्षणा.
४. पंचामृताक दूध, धंय, तूप, म्होंव आनी साखर. नैवेद्याक पंचखाद्य आनी मोदक.
५. कापूर, उजवाती, धूप, तेल, वाती.
६. माटोळेक बांदपाक मेळटा त्या प्रमाण तरातरांची फळां, केळ्यां घड, पणस, नाल्ल, सुपाऱ्यो, आंब्या ताळो, आंब्या तोरण, पेण.
७. तांबडीं फुलां, १०८ आनी २१ दुर्वो, बेल, तुळशी, पत्री.

( गणपतीक आनी महादेवाक जानवीं. कापसाच्या वस्त्रांचो एक एक जोड गणपतीक, महादेवाक, पार्वतीक आनी गणेशपूजेक. महादेवाक पिंजर लायनात, गणपतीक शेंदूर, महादेवाक अष्टगंध, पार्वतीक हळद, कुकूम, गळ्यांत पिङ्को आनी मणीं. गणपतीक दुर्वो, म्हादेवाक बेल, गौरीक पत्री.)

० फुडें फक्त गणपतीची पूजा दिल्ली आसा. गणपती वांगडा म्हादेव पार्वतीची पूजा करची. म्हादेव पार्वतीचीं चित्रां लावन तांजी पूजा करपाची चाल आसा. गणपतीचे पूजे वांगडाच गंध, फुल,धूप, दीप, नैवेद्य आदी सेवांनी म्हादेव पार्वतीची पूजा करची. त्यावेळार म्हादेव पार्वतीक वायनां दवरचीं. ताका हळद, कुकुम लावन गंध फूल घालचें आनी वायनांच्या नाल्लांचेर पिठाचीं वो कसल्याय धातूचीं निरंजनां पेटोवन दवरचीं. तीं मागीर सवाष्णीक दान दीवचेलीं आसतात.



# ॥ श्री गणपती पूजा ॥

## ॥ ॐ श्री गणेशाय नमः ॥

(चवथी दिसा न्हाल्या उपरांत नवें ताल्ल पुडवें, सोवळें, कद वो पितांबर न्हेसून तशेंच खांदार दुसरें उपवस्त्र वो उपरणें उडोवन पाटार बसून भक्तिभावान पूजेक आरंभ करचो.)

केशवाक नमन । नारायणाक नमन । माधवाक नमन ।

(अशीं नांवां म्हणून दरेक नांवांच्या वेळार आचमन करचें. मागीर उजव्या हातार पळयेन उदक घालून हात धुंवचो. मागीर हात जोडून फुडलीं नांवां म्हणचीं :-)

गोविंदाक नमन । विष्णूक नमन । मधुसूदनाक नमन । त्रिविक्रमाक नमन हृषीकेशाक नमन । पद्मनाभाक नमन । दामोदराक नमन । संकर्षणाक नमन । वासुदेवाक नमन । प्रद्युम्नाक नमन । अनिरुद्धाक नमन । पुरुषोत्तमाक नमन । अधोक्षजाक नमन । नरसिंहाक नमन । अच्युताक नमन । जनार्दनाक नमन । उपेंद्राक नमन । हरीक नमन । श्रीकृष्णाक नमन । (हातांत अक्षता घेवन हात जोडचे आनी फुडल्या संकल्पाक सुरवात करची.)

## संकल्प

श्री महागणपतीक नमन। इष्टदेवतेक नमन। कुळदेवतेक नमन। ग्रामदेवतेक नमन। स्थानदेवतेक नमन। वास्तुदेवतेक नमन। सुर्यादि नवग्रहांक नमन। ब्रम्हादि सगळ्या देवांक नमन। आरंभ केल्लें कार्य निर्विघ्न जावं ॥

## मंगलाचरण

सुमुख कपिल विकट विघ्ननाशी गणराज
हतयावरी कान, एक दात, उदर लांब ॥२॥
धुम्रकेतू गणाध्यक्ष भालचंद्र गजानन
बारा वर्णनार्ची नांवां म्हळयार वा आयकल्यार ॥३॥
भायर सरतना, प्रवेश करतना, विवाह म्हुर्तार
संकट काळार तशेंच संग्रामांत केन्नाच विघ्न येना ॥४॥
हांसतें तोंड, चंद्राची कांत, चार भुजां सोबतल्या
धवें वस्त्र नेशिल्ल्या देवाचें स्तवन विघ्नां ना करता ॥५॥
मंगलात मंगल, शरण गेल्ल्यांचें सर्वार्थ साध्य करपी
शिवे, त्र्यंबके, नारायणी, गौरी तुका नमस्कार ॥६॥
जाच्या काळजांत भगवान मंगलरूपी हरि
ताका कसत्याच कार्यांत अमंगल येना ॥७॥
लक्ष्मीपतीच्या चरणाचें स्मरण तीच वेळ, तोच दीस बरो
तेंच ताराबळ तेंच चंद्रबळ तेन्नाच विद्याबळ आनी दैवबळ ॥८॥
जाच्या हृदयांत जनार्दन इंदिरावर श्याम
थंयच लाव, थंयच जय, ताका पराजय खंय ? ॥९॥
विनायक, गुरु, सूर्य, ब्रम्हा, विष्णू, महेश, सरस्वती
सर्व कार्य सिद्धीक व्हरूंक तुमकां प्रणाम करतां. ॥१०॥
त्रिभुवनाचे देव ब्रम्हा, विष्णू, महेश
सगळ्या आरंभकेलेल्ल्या कार्यांत सिद्धी दिवं. ॥११॥

## देशकाल उच्यारण :

श्रीमत भगवान महापुरूष विष्णूचे आज्ञेन चलतल्या ब्रम्हदेवाच्या युगाच्या ह्या दुसऱ्या अर्दांत, श्री श्वेतवाराह कल्पांत, वैवस्वत मन्वंतरांत, अठ्ठाविसाव्या युगांत, कलियुगांत, कलिच्या प्रथम चरणांत, भरत वर्षांत, भरतखंडांत, जंबुद्विपांत, शालिवाहन शके, गोकर्ण क्षेत्राचे उत्तरेक ,मध्य कोंकणांत, बौद्धावतारांत,परशुराम, रामक्षेत्रांत, सद्याच्या (अमक्या) * संवत्सरांत, दक्षिणायनांत, वर्षा ऋतूंत, भाद्रपद म्हैन्यांत, शुक्लपक्षांत, चवथीचे तिथीक, (अमक्या)* वारा, अशा अनेक योगांनीं विशेश अशा शुभ दिसा, श्रृती, स्मृती, पुराणांत सांगिल्ल्या फळाचे प्राप्तीखातीर, आमकां कुटुंबांत, परिवारांत, सगळ्यांक क्षेम, स्थैर्य, आयुष्य, आरोग्य, सगळ्यांचो उत्कर्ष जावंक यथा बुद्धीन यथा शक्तीन जशी मेळटा ते पूजे सामुग्रीन प्रतिवार्षिक चाली प्रमाण श्री सिद्धिविनायक गणपतीची पूजा करतां. तशीच ताका लागून कलश, शंख, घंटा, दीप पूजा आनी मूर्तींची प्राणप्रतिष्ठा करतां. पयलीं महागणपतीचे स्तवन करतां.

(अशें म्हणून हातांतल्यो अक्षता उजव्या हातांत घेवन तांचेर उदक घालून तें उदक अक्षतां सैत पडग्यांत सोडचें.)

*तळटीप:- त्या वाराचें नांव म्हणचें. त्याच प्रमाण त्या दिसाची रास आनी नक्षत्र खबर आसल्यार अमकी रास, अमकें नक्षत्र हाचोय उच्चार करचो.

## गणेशपूजा :

(कसलेंय धर्मकृत्य करचे पयलीं महागणपतीची पूजा करची आसता. ताटांत तांदूळ, नाल्ल, खावंची पानां, सुपारी,गोडाचो ना जाल्यार हेर कसलोय नेवेद्य दवरून गंध.फूल,दुर्वा, शेंदूर, कापसाचें वस्त्र अर्पण करचें आनी धूप, दीप नेवेद्य दाखवचो. मागीर हात जोडून प्रार्थना करची.)

कोटिसूर्याच्या उजवाडाप्रमाण वक्रतुंड
विशाल कायेच्या श्री महागणपतीक नमन
सगळीं कार्यां निर्विघ्न करून घे.

## तांबयाची पूजा:

कलशाच्या मुखांत विष्णु, कंठांत रूद्र आसा
तळाक ब्रम्ह आनी मर्दीं मातृगण आसात
कुशीक सप्तद्वीप पृथ्वीचे सगळे सागर
ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद, आनी अथर्ववेद
ह्या कलशांत आपल्या सगळ्या आंगांसैत आसात.
हातूंत शांति पुष्टि करपी गायत्री सावित्री
पापनाश करपी तुमी देवपूजेक येयात.
तशेंच गंगा, यमुना, गोदावरी, सरस्वती,
नर्मदा, सिन्धु, कावेरीचें उदक हातूंत येवं.




(तांबयाक भायल्यान गंधफूल घालचें)

## शंखपूजा :

शंखाच्या तोंडार चंद्रदैवत, कुशीक वरुणदेवता
फाटल्यान प्रजापती फुडें गंगा सरस्वती
वासुदेवाचे आज्ञेन त्रैलोक्यांतलीं तीर्थां हांतुंत रावतात
सागरांतल्यान उत्पन्न जाल्ल्या विष्णूच्या हांतात सोबतल्या
त्या पांचजन्य शंखाक सगळे नमस्कार करतात
त्या शंखाक गंधफूल घालून नमस्कार करतां.

(शंखाक गंधफूल घालून नमस्कार करचो)

## घंटापूजा

देवांक आफोंवंक, राक्षसांक धांवडांवंक,
देवता येवपाचें लक्षण अशी घांट वाजयतां

(घांट वाजोवन तिका गंधफूल घालचें)

## दिव्याची पूजा

ब्रम्हरूप अशी अखंड ज्योत
दिव्य तेजांतलें उत्तम तेज

आरोग्य, पूत्र, सगळी धन-दौलत दीवं
हांगां दीप दवरतां
म्हाका शांतिकारक जावं
परंधाम आत्मज्योत
अशा दिव्याक नमस्कार करतां

(दिव्याक गंधफूल घालून नमस्कार करचो)

**मंटप पूजा:**

लकलकीत भांगराचो, प्रशस्त, सोबीत,
स्फटिका भशेन वण्टी, शुद्ध भांगराचे खांबे
मोतयांच्यो जाळी आनी ताच्या सोपणांक वज्रां
जाचे कळस नाना रत्नांनीं सोबतात
दारांक रत्नराज युक्त झालरी
रत्नांनी चितारलेलीं शंख, पद्म, स्वस्तिकां
जंय माणकां - पण्ट्यांनीं दिवे पेट्टात
असो लक्ष्मीचो विलासूच कसो सोबपी
हो मंटप अशें मनांत धरून मंटपाक गंधफूल घालतां

(मंटपाक गंधफूल घालचें)

**धान्य:**

पूचा अर्चा करूंक हांगा देवत्व येवं
साळकावरी तांबड्या हातांत
पाश धनुष्य अंकुश पंचबाण
आनी रक्तपात्र धरिल्ली
पुश्ट छातयेची, तीन दोळ्यांनी रसरसपी
निक्त्याच उदेल्ल्या सुर्याच्या वर्णाची
प्राणशक्ती हांगां येवं आनी सुखदिणी जावं

(दूर्वेक इल्लें तूप लावन तें मूर्तीच्या दोळयांक लावचें आनी दोळे उक्ते केल्यात आनी मूर्तीत देवत्व आयलां अशी श्रद्धा मनांत धरची. मागीर गणपतीच्या पांयांर गंधफूल अक्षता घालून नमस्कार करचो. नैवेद्य दाखवचो)

## सोळा पूजा-सेवा

(आवाहन, आसन, पाद्य, अध्य, आचमन, स्नान, वस्त्र, जानवें, गंध फूल, धूप, दीप, नैवेद्य, विडो. दक्षणा, आनी नमस्कार अशो सोळा पूजा - सेवा आसात.)

### ध्यान

(पयलीं नमस्कार करून ध्यान करचें)

सुपासारके जाचे कान आनी एक दांत चार भुजां
तापलेल्या भांगरावरी जाच्या आंगाचो वर्ण
हातांत पाश, अंकुश, आंगभर भुषणां अळंकार
त्या सिद्धिविनायकाचें हांव ध्यान करतां

(ह्याप्रमाण गणपतीचें ध्यान करून एक फूल अर्पण करचें)

### आवाहन:

विघ्नेश, सर्वज्ञ, अनाथनाथ
इंद्रादि देव जाका पुजतात
त्या गणेशाक पूजूंक हांव आफयतां

(गणपतीक पूजेक आफोवपाच्या अर्थान अक्षता अर्पण करच्यो)

### आसन:

तरेकवार रत्नांनीं रचिल्लें
हें आसन विघ्नहर्त्या बसूंक घे

(गणपतीच्या आसनाचेर अक्षता उडोवच्यो)

### पांयांर उदक:

हें निवळ नितळ उदक
गंध कापूर परमळाचें
गणराजा पांय धुवंक घे

(गणपतीच्या पांयांर उदक घालचें)

## अर्घ्य :

गंध फूल फळ अक्षतांसैत
गणाध्यक्षा तुका अर्घ्य दितां
करुणाकरा, तुका नमस्कार करतां
हें अर्घ्य घे

(पळीभर उदकांत गंध-अक्षता-सुपारी घालून गणपतीक अर्पण करचें)

हो धंय तूप म्होंवांचो मधुपर्क हांवें हाडला.
सर्वलोकेश गणनाथा तो तूं घे

(धंय, तूप आनी म्होंवांत दुर्वो बुडोवन तो मधुपर्क अर्पण करचो)

## आचमन :

सिध्दिविनायका तुका वन्दन करतां
हें शुध्द उदक हाडलां तें घेवन आचमन कर

(गणपतीच्या उजव्या हातार आचमनाक उदक घालचें)

## स्नान :

पवित्र गंगेच्या उदका सारकें
हें उत्तम उदक तुका न्हावंक हाडलां
आंग निवळ करूंक हें न्हावंक घे

(गणपतीक न्हावंक उदक घालचें)

## पंचामृत स्नान :

(गणपतीची मूर्ती मातयेची आसलेल्यान दुर्वो भिजोवन गणपतीच्या पायांकडेन फांफडून स्नान घालचें)

कामधेनू पसून उपन्न जाल्लें

हें परम पवित्र दूध
गणनायका, तूं न्हावंक घे.
(न्हावंक दूध घालचें)

दूधान न्हाल्या उपरांत हें शुद्ध उदक न्हावंक घे
(उदक न्हावंक घालचें)

धंय : चंद्राच्या धव्या मंडळा सारकें
सगळ्या देवांचे रुचीचें
गणेशा, तुका धंय न्हावंक घालतां
(धंय न्हावंक घालचें)
धंयान न्हाल्या उपरांत हें शुद्ध उदक न्हावंक घे
(उदक न्हावंक घालचें)
तूप : यज्ञांत मुख्य, देवाचो आहार
अशें परम पवित्र तूप हाडलां
गणनाथा हें न्हावंक घे
(तूप न्हावंक घालचें)
तुपान न्हाल्या उपरांत शुद्ध उदक न्हावंक घे.
(उदक न्हावंक घालचें)
म्होंव : सगळ्या औषधींपसून जाल्लें
अमृता सारकें म्होंवं हाडलां
गिरीजासुता हें न्हावंक घे
(म्होंवं न्हावंक घालचें)
म्होंवान न्हाल्या उपरांत हें शुद्ध उदक न्हावंक घे
(उदक न्हावंक घालचें)
साखर : उशीकांड्यापसून उपन्न धवी फुल्ल,
अशी ही साखर मोठ्या भक्तिभावान हाडल्या
गणनाथा, ही तुका न्हावंक घे
(साखर न्हावंक घालची)

साखरेच्या स्नाना उपरांत शुद्ध उदक न्हावंक घे

गंधोदक : एळ, कापूर, सुगंधी अर्क घाल्लें

हें गंधाचें उदक, गणराजा न्हावंक घे

(गंधाचें उदक न्हावंक घालचें)

गंधोदकान न्हाल्या उपरांत शुद्ध उदक न्हावंक घे

(उदक न्हावंक घालचें)

अत्तर : तेलासवें लक्ष्मी, उदकासवें गंगा

हें तेलाचें मंगलस्नान कर

(गणपतीक सुगंधी तेल म्हळ्यार अत्तर बी लावन उदक न्हावंक घालचें)

नाना तीर्थां सारकें, तापोवन हाडिल्लें

उष्णोदक : हें उष्ण उदक, करुणाकरा न्हावंक घे

(गरम उदक न्हावंक घालचें)

सगल्या सेवां पासत गंधफूल अक्षता तुका अर्पण करतां

(गंधफूल अक्षता अर्पण करच्यो)

## अभिषेक

(फुडें दिलां तें गणपतीचें स्तवन म्हणून दुर्वांनी गणपतीच्या पायांचेर उदक फांफडून अभिषेक करचो.)

गणपतीक नमन । तूं प्रत्यक्ष तत्व आसा ।

तूंच कर्तो आसा । तूंच धारण करपी आसा ।

तूंच हर्तो आसा । तूं साक्षात नित्य आत्मो आसा ।।१ ।।

उजु उलयतां । खरें उलयतां ।।२।।

तूं म्हाका राख । तुजे कृपेन उलयतां । तुजे कृपेन आयकतां ।

तुजे कृपेन दितां । तुजेकृपेन घेतां । तुजे आज्ञेन चलतां ।

म्हाका फाटीं फुडें सांबाळ । दाव्या-उजव्यान सांबाळ ।

वयर सकयल आसमंताक सगल्याक सांबाळ ।।३ ।।

पर्वत चट्टना जाता थोर्डे-भोव पुरो । पुण उरना अशक्ततायेक थारो ।
घेता आमकां वेंगात वारो । शीतळ भोव ।।
झाडां - पेडां दिस्तात खेळण्यांवरी । चर आनी रस्ते सोरपांवरी ।
दिस्ता स्वर्गांत पाविल्लेवरी । देवळांक भोंवताडो घालतना ।।
रथाक दोनांवैर माळयो । सोबैतात लावन कापडां - गुडयो ।
तशोच रोजांच्यो माळो । सोबीत बऱ्यो ।।
दिवन बळी बोकड्याचो । नाल्ल फोट्टात राखणेचो
गजर हर हर महादेवाचो । करतात नेटान ।।
भुरगीं - बाळां, तरणे - धाकटे । म्हाल - म्हातारे जाण्टे ।
जावन सामके नेण्टे । रथ ओट्टात नेटान ।।
केळीं - लाडू मोखतात रथार । मारती कोणय जुस्त भटार ।
केळ्यांलाडवांची धार । झट्टा धांवत्या रथार ।।
पुंजावंक लाडू - केळीं । तशोच कातल्यो - वळीं ।
धांवतात भुरगीं सुपुल्लीं । रथा फाटल्यान ।।
रथ जेन्ना जाग्यार पावता । कडकडाट ताळयांचो जाता
जण अेकलो हात वैर करता । फुलां - प्रसाद जिखूंक ।।
सांगतात अेक खबर । अेकदां राजा सौंदेकार ।
गेल्लो खंय वैर पर्वतार । श्रीचंद्रेश्वराचे भेटेक ।।
मेयळो अेक केंस प्रसादांत । तिडक गेली मस्तकांत
केंस कसो पडलो दोण्यांत । रागान विचाल्लें भटाक ।।
केंस तो देवाचो । साक्षात श्रीचंद्रेश्वराचो ।
राग राजाचो देंवचो । म्हुण सांगलें भटान ।।
करतां तुका कुरार । दिवन सामको सुळार ।
केंस देवाचे दाखयना जाल्यार । फुडल्या सोमाराक ।।
भट थर्त भियेलो । पोले फोडूंक लागलो ।
आनी शरण गेलो । श्रीचंद्रेश्वराक ।।
भोग तुज्या कर्माचें फळ । बिडकी घेवन पळ ।

पुण भट जाणा आशिल्लो बळ । श्रीचंद्रेश्वराचें ॥
तीन दीस ध्यानस्त उपाशीं रावलो ।
विखा-खडो उशासरीं थेवन न्हिदलो
ताच्या अंत:स्करणांतलो खोल उलो । आयकलो श्रीचंद्रेश्वरान ॥
सपनांत दृष्टांत जालो गोड । गर्भकुडी मुखार सात पड्डे सोड ।
एका फाटसून एक एक ओड । आनी फुडलें सोड म्हजेर ॥
फुडल्या सोमारा राजा आयलो । पैलो पड्डो रागान ओडलो ।
आनी नेटान हात घालो । दुसरो पड्डो ओडूंक ॥
दुसऱ्या पड्डयार दिसली पुसट आकृती । तिसऱ्या, चौथ्यार, पांचव्यार, सोबीत मूर्ती । ६व्या पड्डयार पूर्णाकृती । दिसली सौंदेकारक ॥
सातवो पड्डो उगडनाफुडें । गळयांत नागाचें घालून कडें । साक्षात श्रीचंद्रेश्वर दोळ्यांफुडें । रावलो उबो ॥ पळोवन तें तेजवंत रूप ।
दोगांकय जालें अजाप । पाप धुवन गेलें साप्प । श्रीचंद्रेश्वराच्या दर्शनान ।
भस्माचे पटे दंडा-पोटा । पळोवन त्यो लांब लांब जटा ।
उलयलो म्हुण भटा । पस्तावलो सौंदेकार ॥
तुजे खातीर घडली देवाची सासाय । दोळ्यांवेली पैस जाली साय ।
माग तुका जें जें जाय । राजान सांगलें भटाक ॥
पश्चात्ताप जालो राजाक । शरण गेलो देवाक । बावीस गांवाचेर उदाक सोडलें देवाच्या नांवान ।
धन्य तो राजा ।धन्य तो भट । म्हण्टात जें देव बी सगलें फट । तांकांय लाय चट । तुज्या दर्शनाची ॥
अशेच दाखय आनिकय चमत्कार । कलियुगांत त्याबगर जायना नमस्कार । घाल लोकांचेर बरे संस्कार । भक्तवत्सला चंद्रेश्वरा ॥
वाच्चें हे स्तोत्र दरेक सोमाराक । शिवरात्र, चैत्रपुनव, दसऱ्याक । जेवन तेदूस शिवराक । अंत:स्करणान आनी मन लावन ॥
आतां श्रीचंद्रेश्वरा एकच मागणी ।
व्हड जावं दूध-भास कोंकणी । जावं प्रजा शाणी । जातपात विसरून ॥
कुशबनवासी श्रीचंद्रेश्वरास । कवी यशवंत सुत सुहास ।
सोंपयता हें स्तोत्र सुरबूस ॥ श्रीचंद्रेश्वराचें ॥
श्रीचंद्रेश्वरार्पणमस्तु

## शेंदूर :

उदेत्या सुर्या सोबेचो
अस्तमत्या सुर्या रंगाचो
वीराक अळंकार सोबपी
हो शेंदूर लायतां

(गणपतीक शेंदूर लावचो. तशेंच बुको आनी गुलाल अर्पण करचो)

आतां ऋदि-सिद्धिक हळद कुकुम
सौभाग्य अळंकार अर्पण करतां

(अशें म्हणून गणपतीच्या ठांयच ऋद्धि-सिद्धी आसात अशें धरून हळद कुकुम अर्पण करचो)

विश्वरूपी परमेश्वरा,
चान्न्याची शितळसाण, घमघमीत वास,
तरातरांच्या सुगंधी द्रव्या पसून केल्लो
हो परमळ लायतां
(अत्तर बी सुगंधी परमळ लावचो)

## फुलां :

तरातरांची बरीं बरीं वासाचीं फुलां
कण्हेर, चाफो, जायो, वोंवळां
पारजत, साळकां, हातो, केसरां
आनी तुका आवड्टात तीं तांबडीं तांबडीं फुलां
गणपती, हांवें तुजे पुजेक हाडल्यांत तीं तुका ओंपतां

(तरांतरांचीं फुलां तशोच दुर्वो आनी शमीचीं पानां घालची)

## अंगपूजा :

(अक्षता घेवन गणपतीच्या पांयांपासून मस्तका मेरेन आंगाच्या ज्या ज्या भागाचें नांव घेता त्याप्रमाण थंय-थंय उडोवच्यो)

गणेश्वराक नमन । पांय पुजतां ।
विघ्नराजाक नमन । थोंपरां पुजतां ।
आखुवाहनाक नमन । जांघो पुजतां ।
हेरंबाक नमन । कमर पुजतां ।
कामारिसूनूक नमन । नाभि पुजतां ।
लंबोदराक नमन । पोट पुजतां ।
गौरीपुत्राक नमन । छाती पुजतां ।
गणनायकाक नमन । हृदय पुजतां ।
स्थूलकर्णाक नमन । गळो पुजतां ।
स्कंदाग्रजाक नमन । खांदे पुजतां ।
पाशहस्ताक नमन । हात पुजतां ।
गजवक्त्राक नमन । तोंड पुजतां ।
विघ्नहर्त्याक नमन । मस्तक पुजता ।
सर्वेश्वराक नमन । माथें पुजतां ।
गणपतीक नमन । सर्वांग पुजतां ।

## पत्री पुजा :

(मागीर गणपतीक पत्री अर्पण करच्यो)

सुमुखाक नमन । मागरे पान अर्पण करतां ।
गणाधिपाक नमन । माक्या पान अर्पण करतां ।
उमापुत्राक नमन । बेल अर्पण करतां ।
गजाननाक नमन । धव्यो दूर्वा अर्पण करतां ।
लंबोदराक नमन । बोरी पाान अर्पण करतां ।
हरपुत्राक नमन । धुतऱ्या पान अर्पण करतां ।
गजकर्णाक नमन । तुळशी पान अर्पण करतां ।
वक्रतुंडाक नमन । शमीपान अर्पण करतां ।
विकटाक नमन । कणेरीचें पान अर्पण करतां ।
कपिलाक नमन । रूईचें पान अर्पण करतां ।

गजदन्ताक नमन। अर्जुनाचें पान अर्पण करतां।
विघ्नराजाक नमन। विष्णूक्रांताचें पान अर्पण करतां।
बटुक नमन। दाळमीचें पान अर्पण करतां।
सुराग्रजाक नमन। सुरूचें पान अर्पण करतां।
भालचंद्राक नमन। कलमाचें पान अर्पण करतां।
हेरंबाक नमन। पिंपळाचें पान अर्पण करतां।
चतुर्भुजाक नमन। जाये पान अर्पण करतां।
विनायकाक नमन। हात्या पान अर्पण करतां।
सर्वेश्वराक नमन। अगस्तीचें पान अर्पण करतां।

## अष्टोत्तरशतनामावली

चत्राय :- सकल दिल्ल्या एकेका नाममंत्रान एक एक दुर्वा श्रीगणपतीक त्या त्या नांवांचो अर्थ मतींत घेवन भक्तिभावान अर्पण करची. देवाक दुर्वो ओंपतना तांचीं तोंकां आपले वटेन आसचीं ; देंठ देवा वटेन आसचो. प्रत्येक नांवां आदीं ॐ म्हणचो.

१. विघ्नेशाय नमः
२. विश्ववरदाय नमः
३. विश्वचक्षुषे नमः
४. जगत्प्रभवे नमः
५. हिरण्यरूपाय नमः
६. सर्वात्मेने नमः
७. ज्ञानरूपाय नमः
८. जगन्मयाय नमः
९. ऊर्ध्वरितसे नमः
१०. महाबाहवे नमः
११. अमेयाय नमः
१२. अमितविक्रमाय नमः
१३. वेदवेद्याय नमः
१४. महाकालाय नमः
१५. विद्यानिधये नमः
१६. अनामयाय नमः
१७. सर्वज्ञाय नमः
१८. सर्वगाय नमः
१९. शांताय नमः
२०. गजास्याय नमः

२१. चित्तेश्वराय नमः
२२. विगतज्वराय नमः
२३. विश्वमूर्तये नमः
२४. अमेयात्मने नमः
२५. विश्वाधाराय नमः
२६. सनातनाय नमः
२७. सामगाय नमः
२८. प्रियाय नमः
२९. मंत्रिणे नमः
३०. सत्त्वाधाराय नमः
३१. सुराधीशाय नमः
३२. समस्तसाक्षिणे नमः
३३. निर्द्वंद्वाय नमः
३४. निर्लोकाय नमः
३५. अमोघविक्रमाय नमः
३६. निर्मलाय नमः
३७. पुण्याय नमः
३८. कामदाय नमः
३९. कांतिदाय नमः
४०. कामरूपिणे नमः
४१. कामपोषिणे नमः
४२. कमलाक्षाय नमः
४३. गजाननाय नमः
४४. सुमुखाय नमः
४५. शर्मदाय नमः
४६. मूषकाधिपवाहनाय नमः
४७. शुद्धाय नमः
४८. दीर्घतुंडाय नमः
४९. श्रीपतये नमः
५०. अनंताय नमः
५१. मोहवर्जिताय नमः
५२. वक्रतुंडाय नमः
५३. शूर्पकर्णाय नमः
५४. परमाय नमः
५५. योगीशाय नमः
५६. योगधाम्ने नमः
५७. उमासुताय नमः
५८. आपद्धंत्रे नमः
५९. एकदंताय नमः
६०. महाग्रीवाय नमः
६१. शरण्याय नमः
६२. सिद्धसेनाय नमः
६३. सिद्धवेदाय नमः
६४. करूणाय नमः
६५. सिद्धाय नमः
६६. भगवते नमः
६७. अव्यग्राय नमः
६८. विकटाय नमः
६९. कपिलाय नमः
७०. ढुंढिराजाय नमः
७१. उग्राय नमः
७२. भीमोदराय नमः

७३. शुभाय नम:
७४. गणाध्यक्षाय नम:
७५. गणेशाय नम:
७६. गणाराध्याय नम:
७७. गणनायकाय नम:
७८. ज्योति:स्वरूपाय नम:
७९. भूतात्मने नम:
८०. धूम्रकेतवे नम:
८१. अनुकूलाय नम:
८२. कुमारगुरवे नम:
८३. आनंदाय नम:
८४. हेरंबाय नम:
८५. वेदस्तुताय नम:
८६. नागयज्ञोपवीतिने नम:
८७. दुर्धर्षाय नम:
८८. बालदूर्वांकुरप्रियाय नम:
८९. भालचंद्राय नम:
९०. विश्वधात्रे नम:
९१. शिवपुत्राय नम:
९२. विनायकाय नम:
९३. लीलासेविताय नम:
९४. पूर्णाय नम:
९५. परमसुंदराय नम:
९६. विघ्नांधकाराय नम:
९७. सिंदूरवरदाय नम:
९८. नित्याय नम:
९९. विभवे नम:
१००. प्रथमपूजिताय नम:
१०१. दिव्यपादाब्जाय नम:
१०२. भक्तमंदराय नम:
१०३. शूरमहाय नम:
१०४. रत्नसिंहासनाय नम:
१०५. मणिकुंडलमंडिताय नम:
१०६. भक्तकल्याणाय नम:
१०७. अमेयाय नम:
१०८. कल्याणगुरवे नम:
१०९. सहस्त्रशीर्ष्णे नम:
११०. महागणपतये नम:



**धूप :**

वनस्पती रसा पसून जाल्लो
मन भुलौणो हो सुगंधी धूप
सर्वदेवेशा उमापुत्रा हाचो उत्तम वास घे

(धूपाची आरत जावं उजवात उंवाळची)

**दीप :**

त्रैलोक्यांतलो काळोख ना करपी
सर्वज्ञ सर्वलोकेशा गणपती
हो मंगल दीप दाखयतां

(नीरांजन पेटोवन घांट वाजयत उंवाळचें)

**नैवेद्य :**

धंय, दूध, तूप, साखर, खाद्य, अन्न, आहार,
हो नैवेद्य घेवन देवा म्हजी भक्ती मानून घे
इच्छा केल्लो वर दी आनी बरी गती दी
शिवपुत्रा हो नैवेद्य घे.

(उदकान चौकोनी मंडळ करून ताचेर नैवेद्याचीं आयदनां दवल्लेलीं आसचीं. मागीर दुर्वा घेवन नैवेद्याचेर उदक फाफुडचें. आपले दोळे वस्त्रान धांपून नैवेद्याचो एक एक घांस देवाक दितां अशें उजव्या हातान दाखयत फुडलीं उतरां म्हणून नैवेद्य दाखोवचो)

प्राणाक नमन। अपानाक नमन। व्यानाक नमन।
उदानाक नमन।समानाक नमन। ब्रह्माक नमन।

(मागीर फुडलीं उतरां म्हणून तीन पावट पळयेन पडग्यांत उदक सोडचें आनी मागीर गंध-फूल घालचें)

पियेवंक उदक घे , हात धुवंक उदक घे

तोंड धुवंक उदक घे, हाताक लावंक गंध घे

## मंत्र पुष्पांजली

ॐ यज्ञेन यज्ञमयजन्त देवांस्तानि धर्माणि प्रथमान्यासन्। ते ह नाकं महिमान : सचन्त यत्र पूर्वे साध्याः सन्ति देवाः ॥

अर्थ : आर्दी देव यज्ञांनीच यज्ञाची पूजा बांदताले. त्या काळार तशी पूजा करप होच मुखेल धर्म जावन आसलो. अशा धर्माचरणांक लागुनच आदले म्हान तेजस्वी देव जे सुवातेर रावताले, तो स्वर्गीय वाठार तांकां फाव जालो.

ॐ राजाधिराजाय प्रसह्य साहिने नमो वयं वैश्रवणाय कुर्महे । स मे कामान्कामकामाय मह्यम् कामेश्वरो वैश्रवणो ददातु । कुबेराय वैश्रवणाय महाराजाय नमः ॥

अर्थः भोव सामर्थ्यसंपन्न, राजाधिराज वैश्रवण कुबेराक आमी नमन करतात. सगल्यो कामना पूर्ण करपाक समर्थ आशिल्लो तो कामेश्वर वैश्रवण आमच्यो कामना पूर्ण करूं. महाराज वैश्रवण कुबेराक आमचें नमन.

ॐ स्वस्ति । साम्राज्यं भौज्यं स्वाराज्यं वैराज्यं पारमेष्ठ्यं । राज्यं म्हाराज्यमाधिपत्यमयं समन्तपर्यायी स्यात् सार्वभौमः सार्वायुष आन्तादापरार्धात् । पृथिव्यै समुद्रपर्यन्ताया एकराळिति ॥

अर्थः ॐ सगल्यांचें मंगल जावं. दर्यान रेवाडो घाल्ले हे धर्तरेचेर स्वराज्य, साम्राज्य, महाराज्य सुखान नंदूं. सगल्यांक संवसारिक आनी पारमार्थिक सुखसमृद्धी मेळूं. समस्तांक निरामय पूर्ण पिराय मेळूं. सगल्यांक सुखी दवरपी असो एकमेव सम्राट अनंत काळा मेरेन हे धर्तरेचें पालन करूं.

तदप्येष श्लोको भिगीतो मरुत: परिवेष्टारो मरुत्तस्यावसन् गृहे।
अविक्षितस्य कामप्रेर्विश्वेदेवा: सभासद इति ।। श्री पार्थिवमहागणपतये नम: । मंत्रपुष्पांजलिं समर्पयामि।
अर्थ: संपूर्ण मनोरथ पूर्ण जाल्या अविक्षित कुळांत जन्मल्ल्या मरुताच्या घरांत सगल्या देवांसैत मरुत स्थानापन्न जाला.

ॐ एकदन्ताय विद्महे। वक्रतुंडाय धीमहि। तन्नो दन्ती प्रचोदयात ।।

दोळयांक उदक लावन हात जोडचे आनी फुडलो संकल्प म्हणचो.
उप्रांत पळयेन उजव्या तळठावरसून पडग्यांत उदक सोडचें.

अद्यपूर्वोच्चारितवर्तमानएवंगुणविशेषणविशिष्टायां शुभपुण्यतिथौ मम
आत्मन: सकलशास्त्रपुराणोक्तफलप्राप्त्यर्थं
श्रीपार्थिवमहागणपतिदेवताप्रीत्यर्थं पूजासाङ्गतासिद्ध्यर्थं
मोदकवायनप्रदानं करिष्ये। (परत उदक सोडचें)
अनेन वायनदानेन श्रीपार्थिवमहागणपति: प्रीयताम् न मम।
तत् सद् ब्रह्मार्पणमस्तु।

(दोनदां आचमन करचें . तीन खेपो विष्णुस्मरण करचें)

ॐ केशवाय नम: । ॐ नारायणाय नम: । ॐ माधवाय नम: ।
ॐ केशवाय नम: । ॐ नारायणाय नम: । ॐ माधवाय नम: ।
(हात धुवन हात जोडून विष्णुस्मरण करचें)

विष्णवे नम: । विष्णवे नम: । विष्णवे नम: ।
(दनपरां जेवणाआदीं श्रीगणपतीक, श्री महादेवाक, श्री पार्वतीक,
वास्तू पुरसाक आनी हुंदराक महानैवेद्य दाखोवंचो )
।। इति श्रीपार्थिवगणेशपूजा समाप्ता ।।

# श्री गणपतीची आरत



(चाल : सुखकर्ता दुःखहर्ता )

जय देवा जय देवा । जय श्री गणेशा ।। स्वामी गणेशा ।।
दाखैतां आरत । दाखैतां आरत । तुका विघ्नेशा ।। धृ० ।।

वज्राचो मुकूट । सोबता माथ्यार । सोबता माथ्यार
कांति कुंडलांचि, कांति कुंडलांचि । कानार भारी ।। १ ।।

त्रिशुल - पाशांकूश । घेत्ला हातांत, घेत्ला हातांत ।।
दिव्य रत्नहार, दिव्य रत्नहार । सोबता गळ्यांत ।। २ ।।

विघ्नहर्ता तूंच । अुरग - भुषणा, अुरग - भूषणा ।।
गौरीलो पूत तूं, गौरीलो पूत तूं । मूषक - वाहना ।। ३ ।।

अुटि शेंदुराची । लायल्या भालार, लायल्या भालार ।।
ओलि पितांबर, ओलि पितांबर । दिस्ता सुंदर ।। ४ ।।

संकष्ट नाशना । श्री गजवदना, श्री गजवदना ।।
पूरैता कामना, पुरैता कामना । परम - पावना ।। ५ ।।

रिद्धि - सिद्धि दासयो । चवऱ्यो घालतात, चवऱ्यो घालतात ।।
मंगल - मूर्तिली, मंगल - मूर्तिली । सेवा करतात ।। ६ ।।

सिद्धि - विनायक । तूं अेकदंता, तूं अेकदंता ।।
दास नरहरी, दास नरहरी । आरत दाखैता ।। ७ ।।

१. अुरग = नाग २. मूषक = हुंदीर ३. चवऱ्यो = वारो घालपाक वापरतात त्यो

– नरहरि व्ही. प्रभू (गोकर्ण)



# गणपतीची आरती

जय देव जय देव जय मंगलमूर्ति
पळैल्या खिणाक जाता मनाक तृप्ती ।।धृ ।।
सुख दिवपी दुःख हरपी वार्ता तुगेली
मागणी पूर्ण करपी कृपेन भरिल्ली
सगल्या जनां बरी बुध्द दितली
दृष्टी विशाल ती विघ्नां हर्तली ।। १ ।।
अुबार कपलाचो गौरीलो पूत
संकट निवारण करता मुळांत
देव-सुरवर तुका नित्य वंदित
मागतात सिध्दी सकल कार्यांत ।। २ ।।
अेकचार करपी तूं महागणपती
सिध्दी-बुध्दी हांचो तूं अधिपती
तुजे-सम जगांत ना कोणाली कीर्ती
करूंक भक्तांली कामना पूर्ती ।। ३ ।।

श्री सुरेश रामचंद्र पै.

# श्री गणपतीची आरत

आरत गणनाथा । तुका पार्वती पूता । उंवाळटां हांव भावान । पावन घे ही आतां ।। धृ. ।। गरिबाचो तूं गा भाव । सगळ्या देवांचो देव । मोगाळ येकलो तूंच । तुका भक्तांची कींव ।। १ ।। बरप, बुद्ध, मत । दिता दुडू दौलत । काड्टी जे याद तूजी । तांच्या आस्ता म्हऱ्यांत ।। २ ।। येकलो तूं म्हजो धनी । म्हाका व्हड ना कोणी ।। ३ ।। म्हज्या ह्या संसाराक । पुट दी गा तूं ठोक । अरिश्टां सगळीं म्हर्जी । बेगीन धाड लयाक ।।४।। केशव सांब चलो । त्रितापान गांजलो । राखण कर ताची। पांयांसरीं आयलो ।। ५ ।।

कै. केशव सांब शिर्वेकार.



# श्री मंगेशाची आरत

माथ्यार गंगा जटा, सोरोप आंगार । तिसरो दोळो चंद्र, सोबता कपळार । पाच तोंडा तुका, धा हात थोर । पर्वताची धूव, दाव्या मांडयेर जय देवा जय देवा मंगेशा तूका । आरत काप्राचिही करतां पाव म्हाका ।।धृ.।। मनशा तकल्यां माळ तूज्या गळयांत । आस्ता नागोबाची, मूज कमरांत । दोन मुद्रा लांबतात सदां कानांत । त्रिशुळ, पिनाक*, डमरू, धरसी हातांत । जय देवा ....... ।। २ ।। ताजें हत्ती कातर्डे देवा पांगुरशी बिबुत माखुन वागा चामड्यार बसशी । खाकेक झोळी भगवी काष्टी तूं नेसशी । सगल्या देवां भीतर, व्हडलो तूं आसशी । जय देवा ..... ।। ३ ।। धवो बैल तूज्या, आस्ता दारांत । स्वामी, गणेश भुर्गे, उबे फुड्यांत ।

शिवहर शिवहर म्होण्ण भक्त गातात । भोंवतीं भूतां-मेळे, थै थै नाचतात जय देवा .... ॥४॥ भोळो काकुळटवान् येकलो तूं तींत । असो लौकिक तूजो जाण्टे सांगतात । सरूप सांब घलो हाडुन ध्यानांत । किर्त गावन तूजी करता आरत । जय देवा ....... ॥५॥

*पिनाक= शिवधनुष्य १. स्वामी = कार्तिकेय स्वामी

( वयर दिल्ली आरत कै. केशव सांब शिरवयकार हांणी १९२१ त 'भारत' छापखान्यांत 'कुशबनवासी ' ह्या नावांन उजवाडायल्ली. ते २ जानेवारी १९४० त कुशबन, केंपें हांगां भायर पडले.)

## म्हज्या अंतरात

म्हज्या अंतरांत - देव आसा उबो
अढळ दिव्याखांबो - सागरांत ॥ धृ. ॥
उजवाडान ताच्या - म्हजें चलता तारूं
धांवता जसो वारू* - धुंयेवयल्यान ॥ १ ॥
संसारातलीं खडपां, - म्हाका तो दाखयता
आनी वाटेर हाडटा - तोच एकलो ॥२॥
अरिष्टांच्या वेळार - बुद्द तो थारायता
आनीक वाटायता - वादळां-मोडां ॥३॥
दुख्खांच्या हुंवारांत - तारूं धरता फेर
तोच सोडटा दोर - तडीक व्हरपाक ॥४॥
जळीमळीं भोंवरे - जेन्ना करतात जोर
बुडटां बुडटां वयर - तोच काडटा ॥५॥
वामन म्हण्टा, देवा तूं आधार
संकष्टांवेळार हात दीवपी

- वामन सरदेसाय अभंग - आरती संग्रह 'प्रतिभा प्रकाशन' , १९६५

*वारू = घोडो



# श्रीरामा दाखय म्हाका वाट

श्रीरामा दाखय म्हाका वाट ।
रामा दाखय म्हाका वाट ।।धृ.।।
।।श्रीराम।।
राख म्हाका पावला कणकणीं
चट्टेचो रे घाट ।। रामा ।।१।।
।। श्रीराम ।।
मन म्हजें तुज्या भोंवतणी
तुजे वटेन जावं दीवं नाका फाट ।। रामा ।।२।।
।। श्रीराम ।।
जप करूंक तुज्या नांवांचो
जावं दिवं नाका जीब राठ ।। रामा ।।३।।
।। श्रीराम ।।
यश म्हजें तुज्याच रे हातांत
आमचें नातें आसा दाट ।। रामा ।।४।।
।। श्रीराम ।।
रातदीस ध्यास तुजो रे
फुलता काळीज काठांनकांठ ।। रामा ।।५।।

श्री सुहास 'उमाळो' १९६३ काव्यसंग्र हांतल्यान



# विठ्ठला गांव तुजे कितले गूण

विठ्ठला, गांव तुजे कितले गूण, चराचरांतलो तूं रे सगूण !

सुखांत आस्तना तुका विसरतां, दुःखांत पुणून तुकाच आळैतां
अितलेंय आसून म्हाका तूं पावता, म्हणुनूच तुका म्हण्टात काय सगूण ?

अमर केली तुकया - गाथा, दर्शन दिलें एकनाथा
मीरेक दिल्लें विख्ख पचयलें, जनी खातीर दयळें, कांडलें
म्हजेरीच मागीर कित्याक रागार ?

केन्नाच गेलोंना पंढरेक, केन्नाच केलेंना तीर्थाटन
कित्याक वचूं पंढरेक चराचरांतच जर तूं बसला दडून ?

कै. रामराव कुंकळयेंकार 'परमळ' श्री सत्यसाई विशेषांक, महाशिवरात्र १९६९

# पांडुरंगा धांव !

पांडुरंगा धांव आतां, बेगीन म्हाका पाव ॥
पांडुरंगा धांव, पांडुरंगा धांव ॥धृ.॥

तूंच म्हजो बापूय आतां, ॥ तूंच आवय, भाव ॥ १ ॥

म्हण्टी सगले चोर म्हाका ॥ आपुण मात साव ॥ २ ॥

भोगती कष्ट जंय जंय म्हाका ॥ थंय थंय अुबो राव ॥ ३ ॥

- श्री सुहास



## हर हर शंकरा

हर हर शंकरा जाग अुमा प्रियकरा
हिमालय हें तुजें आलय
प्रसन्न तन सदां निर्मल
भक्त मागतात आमकां पालय जाग तूं व्याघ्रांबरा
भस्मविलेपित कूड सुशोभित
त्रिशुळ डमरु तुज्या हातांत
गंगा व्हांवता जटेंतुल्यान अुठ तूं गंगाधरा
नाग सोबीत तुज्या गळ्यांत
चंद्रकोर ती लावनु माथ्यार
सदांसिद्ध तूं राखूं भक्तांक जावनु  विश्वंभरा
भक्तगण तुजो सदां गर्जता
हर-हर नांवान तुका जागयता
शंखनाद तो गोड कानाक प्रगट जा ईश्वरा

## प्रसन्न जा ईशा

प्रसन्न जा ईशा प्रार्थना म्हजी ही मंगेशा ।।धृ.।।
परशुधराल्या पुण्यभूंयेंत
भक्तजनाल्या अुद्धाराक
प्रगटलो तूं प्रसन्नतेन म्हज्या रे परमेशा ।।१ ।।
अुमा मायेली तपश्चर्या ती
भक्तिभावान पूर्ण जाल्ली
सत्य पळौंक सिंहरूपान आयलो तूं सर्वेशा ।।२।।
सिंह गर्जना भयंकर ती
व्याकुळ जाली सती पार्वती
अुलो केलो तिणे तुकाच देवा 'त्राहि मां गिरीशा' ।।३।।
मांगिरीश ह्या गोड नांवान
भक्तजन पळे करती गायन
सदा दिसूं तुजें प्रसन्न वदन इत्सा जगदीशा ।।४।।

सुरेश रामचंद्र पै, कुडचडें



## श्रीदत्तगुरू

**दी थाकाय म्हज्या चित्ता** (चाल: भैरवी)

दत्ता ..दी .. थाकाय म्हज्या चित्ता.. ।। धृ.।।
अत्रिअनुसूया पूता .. । वाचतास्तनांय तूजी गाथा
मर्दीमर्दी मन हें म्हर्जे, गरजे भायर भीता ।।१।।
वेदरूपी चार सुणीं । कामधेनूरुपी गायमाता
सदांच आस्तना म्हज्यांत तूज्या, कित्याक ओगीच भेशटायता ।। २ ।।
चक्र सुदर्शन गदा हातीं । व्हडविकाय तुजी भक्त गाती ।
जीण ही जरी सुखदु:खां फांती मेळना कशी मनशांति ।।३ ।।

-श्री सुहास १३-७-९७

## कोण दाखयत वाट ?

चाल: (गुरूबिन कौन बतावे वाट )

कोण दाखयत वाट ? फुडें पळे पडला व्हड यम घाट ।।धृ।।
चिंतेची न्हंय ही व्हांवता, अहंकारची लाटेर लाट ।।१।।
मद मत्सराचीं कुपां वाजतात कामाचो व्हांवता वारो दाट ।।२।।
रागाचे पर्वत आड चोरांचो मेळटा सांगात ।।३।।
सांगन दिसता आयक मनशा वोगीच कित्याक बोभाट ? ।।४।।

-श्री अभयकुमार वेर्लीग-गोंय , जाने १९८३



# सद्गुरु श्री साईबाबांची वचनां

शिरडीक जांचे लागतले पांय। चुकतले अपाय, सगले तांचे ।।१।।
म्हजे समाधिचें चड्टलो जो सपण। दु:ख जातलें क्षीण, सगलें ताचें ।।२।।
जरी ही कूड, गेलों हांव सोडून। तरी हांव पावन, भक्तां खातीर ।।३।।
आंगवणीक म्हजी, पावतली समाधी। धरात दृढ बुद्धी, म्हजे ठांय ।।४।।
सदांच हांव जिवंत, वळखात हेंच सत्य। सदांच घेयात फळीत अणभवान ।।५।।
शरण म्हाका आयलो आनी व्यर्थाक गेलो। दाखयात दाखयात असो कोणूय ।।६।।
जों जों म्हाका भजता जे जे परी। तसो तसो पावतां हांवंय ताका ।।७।।
तुमचो सगलो भार, घेतलों हांव माथ्यार। न्हंय हें अुतर, लटीक म्हजें ।।८।।
सगळ्यांक पालव, जसो जाय जाका। मागता जों जों ताका, तों तों मेळटा ।।९।।
म्हजो जो जालो काये वाचे मनान। ताचे हांव पांगेन, सदांकाळ ।।१०।।
साई म्हण्य तोंच, तोंच जालो धन्य। जालो जो अनन्य। पांयांसरीं म्हज्या ।।११।।

रुपांतर : श्री सुहास



# श्री शिवकरूणा

जल्म घेतले खूब, जालें म्हाका पुरो
जल्म-मरणावेळार माथ्यार दुखाचो गा तुरो निमाणें आयलें कळून
म्हाका, तूंच एक आधार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकश्टा वेळार ।।१।।
हांव हांव म्हणटनांच मान बागवता
सुखाफाटल्यान सदांच दुख्ख गा येता कोण जाणा कितें बरयलां बामचे कपलार
नांव घेतोच पाव शंकरा संकश्टा वेळार ।।२।।
तुजोच देवा जालां सेवक, ना गा कांयच म्हजें
आतां कळटा वोगीच माथ्यार घेतलें हांवें वजें
सगळें आतां त्यागून, घालून घेतां तुज्या पांयार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।३।।
तुजी करून पूजा मागतात जे गा सिद्धी
तांका हांव म्हणन ना म्हणून बुद्धी मागूंक कांयच येवंना हांव तुज्या
दारार नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।४।।
गळ्यांत सर्प घालून भोंवपाक मानता भुषण वैभव सगळें.
सोडून घर केली मसण
अितलेंय आसून पुजलो तरी कळना कित्याक रागार ?
नांव घेताच पाव शंकरा संकष्टावेळार ।।५।।

सगळ्या विशयांची रूच घेवन पळेली
जल्म - मरणाची भोंवडी दोळ्यांनी देखली
जाळून अुडोवंक नश्टी वान्सा आसा हांव तयार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।६।।
मानूं येता जाल्यार मान हट्ट हांव धरिना
पैसो, भांगर, बायल जांव भोक्षय मागना आवय जावन
खेळय म्हाका तुज्याच आंगार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।७।।
दारांत तुज्या येवन हांव भीक गा मागतां
सगळें आयकून घेवच्या आर्दी फाट कित्याक करता?
ह्याच खिणांक वांगडा येवंक आसा हांव तयार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।८।।
तुवें दिल्यार विख्ख लेगीत अमृत म्हुण घेतां
सांग देवा, सांगल्यार तुवें अुज्यांत अुडी घेतां
तुजे विणे जिवीताक ह्या कोण दीत आकार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।९।।
आज मेरेन संकष्टांतल्यान तुवेंच देवा तारलो
कितल्या तरी दुख्खांतल्यान फाटीं वोडून काडलो
लोकांनी नाडलो तेन्ना रावलो फुडें साकार
नांव घेतांच पाव शंकरा संकष्टा वेळार ।।१०।।

-श्री अभयकुमार, वेलींग-गोंय , जाने १९८३




# श्री चंद्रेश्वर भूतनाथ स्तोत्र सार

चंद्रवाडयेचो राखणदार। रावता वयर पर्वतार।
नदर दवरूंक सभोंवार। साबार लोकांचेर ॥
आसनमांडी घाल्ली तुजी मूर्ती । दावे मांडयेर बसल्या पार्वती।
जटेंतल्यान व्हांवता भगवती । सोबीत - बरी ॥
चंद्र सोबता माथ्यार। नाग खेळटात आंगार।
नंदी बसला सामकार। सदांकाळ ॥
भूतनाथ तूजो पंतप्रधान । सोबता ताका खरो हो मान ।
कळैता तुका सगलें वर्तमान । साबार लोकांचें ॥
दर वर्सा चैत्रपुनवे दिस । भूतनाथ बदलता भेस ।
दिस्ता भोवबरो बेस। तोखणाय करी सारको ॥
उजव्या हातांत तलवार । दाव्या हातांत धाल ।
माथ्याक सोबीत बरो रुमाल । श्री भूतनाथाच्या ।
पळोवन भूतनाथाचें तेजवंत रूप । न्हिवता सगली तानभूक
हात जोट्टात आपाप । भूतनाथाच्या पायांसरीं ॥
दर चैत्रपुनवेक । जात्रा भरता एक।
अख्ख्या गोंयचे लोक । येतात पर्वतार ॥
त्या दिसा चंद्रेश्वराचो आगळो झेत। पार्वती बसल्या घोवाक तोखेत।
गर्भकुड हांसता लखलखीत । सरमाळींच्या उजवाडांत ॥
देवळाचें आंग दिस्ता सोबून । कापूर - धुपाचो सुवास येवन।
मन जाता भोव प्रसन्न । नितळ बरें ॥

तूं वाचा। तूं चित्त। तूं ब्रम्हानंद। तूं सच्चिदानंद।
तूं प्रत्यक्ष ब्रह्मा। तूं ज्ञानमय। तूं विज्ञानमय।।४।।
जग तूजे पसून जाता। तुजे ठांय रावता।
तुज्यां तूच विलीन जाता। तुज्या गुणान कळटा। तूं भूमी उदक,
तूं वायू, तूं आकाश। तूं चारूय तरांची वाणीवाचा।। ५ ।।
तूं तीन गुणा पेल्यान। तीन अवस्था, तीन देह, तीन काळां पार।
तूं मूळ कारण, तूं आधार, तूं नित्य। तुज्या ठांय तीन शक्ती।
तुजें योगी नित्य ध्यान करतात।
तूं ब्रह्मा, तूं विष्णू, तूं रुद्र इंद्र तूं ,अग्नी तूं वायू तूं।
सुर्य, चंद्र, ब्रह्मा, तींनूय लोक तूं ।।६।।
एकदंताचें गिन्यान करतां। वक्रतुंडाचें ध्यान करतां।
तो दंतयुक्त देव आमकां सन्मार्गाक लावं।। ८।।
एकदंत, चतुर्भज, पाश-अंकुश धारण करपी।
एका हातांत दांत, दुसऱ्या हातान वर दिवपी, हुंदरार बसला।
रक्तवर्ण, विशाल उदर, सुपावरी कान, तांबडें वस्त्र न्हेसला।
आंगक रक्तचंदन लायलां, तांबड्या फुलांनी पुलिल्लो।
भक्तांचेर उपकार करपी देवा, जगाचें मुळ कारण, अविनाशी।
सृष्टिच्या आरंभा पयलीं आसलेलो। प्रकृति पुरुषापेल्यान आसलेलो।
अशें ध्यान करपी योगी व्हड आसता ।। ९ ।।
नमन गणपतीक, तूं व्रत करतल्यांक राखता। ल्हान व्हडांक राखता।
वर दिवपी लंबोदराक, एकदांताक, विदनहत्याक,
शिवसुताक नमन।।१०।।

(अभिशेक केल्या उपरांत 'आचमन करुंक उदक घें' म्हणून गणपतीच्या हाताचेर उदक घालचें. मागीर 'सर्व सेवा प्रीत्यर्थ गंध फुल अक्षता तुका करतां' अशें म्हणून गंध फुल अक्षता घालच्यो)

स्नानानंतर आचमन कर
(हातार उदक घालचें)
भांगार रत्नांनीं घडैल्या
उत्तम आसनाचेर आतां बस
आनी पुजेचो स्विकार कर

**वस्त्र :.**

हीं दोन तांबडी वस्त्रां लक्क भांगरांचीं कशीं
तुज्या आंगाक बरीं सोबतलीं
शिवपत्रा, हीं न्हेसून घे

(कुकुम लायिल्लीं दोन कापसाचीं वस्त्रां गणपतीक घालचीं)

**जानवें :**

रूप्या रंगाचें जानवें, भांगरा रंगाचो शेलो,
सर्वज्ञा, उपवस्त्र घे आनी भक्तांक वर दी.
यज्ञोपवीत तुका अर्पण करतां

(गणपतीक जानवें घालचें. तें गणपतीच्या दाव्या खांदावेल्यान उजव्या हाता सकयल येता अशें घालचें.)

नानातरांचे हे भांगरा रत्नांचे सोबीत अळंकार
पार्वती प्रियनंदना, आतां तुज्या आंगार घालतां.

(गणपतीक अळंकार घालचे. जावं 'अळकारांच्या बदला अक्षता अर्पण करतां' अशें म्हणून अक्षता उडोवच्यो)

**गंध :**

हें कस्तुरी, कापूर, कुकुम मिश्रित बऱ्या वासाचें
हे सिद्धीविनायका, आंगाक लावंक गंध घे
(करंगळी लागच्या बोटान गणपतीक गंध लावचें)



## ॥ श्री दामोदर - स्तवन ॥

गर्भकुडींतली पळोवन तुजी मूर्ती । अंत:स्करणाक येता भरती। भवदु:खां सरती। तुज्या दर्शनान ॥८॥ सोबीत तुजें मुख । दोळ्यांक दिता सुख। वैर बसला कीर्तीमुख। दरवट्यामदीं ॥९॥ दामोदर बसला घोड्यार। सोबीत सत्री माथ्यार। सभोंवतीं घुडयो चार। पिंपळापानावरी ॥१०॥ आंगार शेलो भरजरी। देवा तूं मुकुटधारी। मुख तुजें मंगलकारी। देवा दामोदरा ॥११॥ दोनय वटेन दोग। फणा काढून नाग। आंगार तांच्या दाग। भोव बेस ॥१२॥ मखर तुजें नक्षीदार। गळ्यांत वासा फुलांहार । नंदी बसला सामकार। आपलेच तंद्रेंत ॥१३॥ मडगांव हें दामोदराचें थळ । म्हाङ्खांत आशिल्लें ताचें मूळ। फिरंग्याचे मानेर बसलें खूळ। देवळां म्होडपाचें ॥२१॥ पाखल्यांच्या त्रासांक लागून। भक्तगण गेलो भिवून। लिंगाचो वेलो कुडको कापून। व्हेलो तार्णी जांबावले ॥२२॥ लिंगाचे कुडके आसले चार। सात दीस सात राती धांपून दार। कुडके एकठांय दवर। देवान सांगलें स्वप्नांत ॥२३॥ म्हाजन आशिल्ले विचारी। स्वप्नांत सांगिल्लेवरी। एकठांय दवल्ले कुडके चारी। बंद एके कुर्डीत ॥२४॥ म्हाजनाक एका नाशिल्लो थार। सातव्या रातीपैलीं उगडलें दार। देखुन उल्ली लिंगार। बारीकशी वेर ॥२५॥ जेन्ना हें लिंग स्थापलें। थंयचेथंय स्वयंभू लिंग प्रकटलें। सासायेचें अजाप जालें। सगल्या लोकांक॥२६॥ लिंगाचेर बांदली चुट्टांची खोंप । भक्तिक येवंक नाशिल्लो रांप । रोखडोच बांदलो मंटप ·

पोटतिडकेच्या म्हाजनांनी ।।२७।। पोंदलो कुडको लिंगाचो । आजय म्हाड्डांत पळवंचो । तळयेचो आवांठ देखचो । चौकोनी बरो ।।२९।। उंची हया लिंगाची वर्सान वर्स । फुलता खंय घसघस ।१९६५ त चडैलो कळस । ह्या लिंगाचेर ।।३०।। तुजी सासाय एक । दाखैता आश्विनपुनवेक । कृतार्थ जातात लोक । पळोवन ती ।।३१ ।। सळसळीत आसता कायल । अवसर वडयता फुल । उज्याचो गुण जाता गुल । तुजे सासायेन ।।३२।। अवसर वडे काड्टा उप्रांत । कायलींत घालून हात । मातय जळना ताजी कात । तुजे कृपेन ।। ३३।। पक्षांत सोबीत मोर । भाशेंत कोंकणी सुंदर । देवांत दामोर । कोंकणांत व्हड ।।३५।। पळोवन तुजें रूप । वायटाचो जाता धूप । भक्त तुजे खूप । देवा दामोदरा ।।३६।। जो लायता दामोदराचो तिबो । ताजे फाटल्यान जावन खांबो । देवा तूं उबो । सदांकाळ ।।३८।। तुमी भोव उदार । सोंसात म्हजो भार। चुकल्यार दाखयात दार। सन्मार्गाचें।।३९।। श्री दामोदराचें पुण्यनाम । होच जाचो नित्यनेम । मेळटा ताका मोक्षधाम । मेल्या उप्रांत ।।४०।। श्री दामोदराचें नांव गोड । जशी आंब्याची फोड । कीर्त तांची व्हड । पावल्या जळींमळीं ।।४१।। जन्माक येवन मर्ण सोंसचें । एकदां तरी जांबावले वच्चें । श्री दामोराचें दर्शन घेवचें । दोळे भरून ।। ४२ ।। अंतस्करणाक येता हुंवार । सगली दुःखां साबार । वेतात विरघळून ।।४३।। मनांतलें मांडे वेतात तडीक । दुष्टांक भरता सडीक्क । देवस्थान तुजे कडक्क । देवा दामोदर ।।४४।। जांच्या मनांत कपट । तांका देव दिता थापट । श्री दामोदर जाता तापट । ख्यास्त भोगोवपा वेळार ।।४५।। सफल जातात मनोकामना । दुःखां सोंपतात एकाच खिणां । घाल्यार प्रदक्षणा । देवळा-भोंवतणी ।।४६।। कार्तीक वद्य द्वितीयेक । पालखेंतल्यांन देव वता न्हांवंक । येता उमाळो कुशावतीक । देवाचे व्हडविकेचो ।।४७।। धन्य जाता कुशावती न्हंय । नितळ जाता तिची काय । धुवन तुजे पांय । देवा दामोदरा ।।४८।। भूतबाधा आनी हेर पीडा । कुशावती तीर्थांत सोडा । आनी श्रीदामोदर तुमी जोडा । भक्तिभावान ।।४९।। श्री दामोदराक घाल्यार गाराणें । अरिष्ट जावन उणें । जातलें धन्य जिणें । सदांकाल ।।६४।। गिरेस्त आनी बारके ।

देवाक सगले सारके। किरीस्तांवांक लेखिना परके। मोगाळ म्हजो दामबाब ।। ६५ ।। आश्वीन वद्य बियेक । लोक येतात राखणेक । नाल्ल राखणेचो मोलादीक। भंय निवारता वर्सूयभर।।७२।। शिगम्यांत शिगमो तुजो। किते सांगतलो गाजोवाजो । उखलता जीव म्हजो । वर्णूंक हो सुवाळो ।।७३।। लोकांच्या जोम्याक नास्ता गणती। मुयो जशो गोडासरीं जमती। भक्तांच्या मनांत पेट्टाता पणती। दामोदराचे भक्तीची ।।७४।। पांच दीस शिगम्याचो सुवाळो । तातूंत नाटकांचो उमाळो । साजयता तूं दुवाळो भक्तांच्या अंत:स्करणांतलो ।।७५।। पंचमी दिसा जाता गुलाल । चोंयवशीन हुबता धुल्ल लाल। लोकांचेर येता सांवार। हिशेबाभायर।।७६।। फाफडून देवाचेर गुलाल । घेतात तांचो कौल । त्या दिसा आगळो डौल । पालखेंतल्या दामोदरचो ।।७७।। पडलो जरी केदोय दुकळ। पांचय दिस पट्टा जेवणावळ पडलोना तिका खळ। अजूनमेरेन ।।७८।। साखरभात, शाकभाजी, सार। जेवन दितात धेकर। पंगतीचे लोक हजार।उपकार मानून देवाचे ।।७९।। एक खेपो दुश्काळांत ना जालो तांदूळ । घालतले कशे जेवणावळ । अंत:स्करणाक पडलो पीळ। साबार भक्तांच्या ।।८०।। मडगांवचो एक पसरकार । करतालो काळो बाजार । दाखयलो ताका चमत्कार । तुजे सासायेचो ।।८१।। पुलिसेक लागलो तांदळाचो सुगावो । पसरकारान वळखलो कावो। केलो तुजो धांवो । वाटावंक सकश्टांतल्यान ।।८२।। पसरकार आशिल्लो हिमटो। सामको भियेलो भामटो। तांदळांचो सगळो साठो। घालूंक धाट्टां जेवणावळ ।।८३।। पुलिसेन बोम माल्लो साकांत। गंवंच गंवं आयलो तातूंत ।। गवंच भायर सल्लो हेरांत । श्रीदामोदराचे सासायेन।।८४ ।। मागीर पसरकरान केला वेळ। धाडले सगळे साकांदाळ घालूंक जेवणावळ । जांबावले शिगम्याक ।।८५।। हे तरेन निस्तरायलें संकश्ट। भक्तांचो विश्वास बसलो दुप्पट। वांगडाच दाखयली बरी वाट। पसरकाराक।।८६।। दुडवांचो सोस नडलो। देखून काळो बाजार सोडलो श्रीदामोदर ताणे जोडलो । आपले करणेन । ।८७।। रातीचो श्रीदामोदर घोड्यार बसता। आपल्या वाठारार भोंवता। सुखदु:खां पारखिता। आपले

प्रजेचीं ॥८८॥ दर एका सोमारा । दिवली पेटया फुडल्या दारा । श्री दामोदर येतलो तुमच्या घरा । धुल्ल पायांचो झाडूंक॥८९॥ जंय लागता दामोराचे पांय। थंय वायट घडना कांय। पळून वेता रोगराय। श्रीदामोदराक भिवन ॥९०॥ तूं धनी हांव चाकर। पेल रे म्हजो भार। मोक्षाचें उघड दार। देवा म्हजे खातीर॥९१॥ जय देवा दामोदरा। दया म्हजेर करा। जीविताची वात सारा। लक्तुबायेच्या हातांनी ॥९२॥ कामरागमदमत्सर। हांचे जालां घर। हें म्हजें शरीर। वाटाय म्हाका ॥९३॥ गुन्यांव म्हजे हजार। हांव सायबा नेणार। तूंच देवा तारणार। पातकांतल्यान ॥९४॥ आयलें जरी केदेंय संकट। दुःखांची लाटेर लाट। तरीय सोडूं नाकात रे फाट। श्रीदामोदराची ॥९५॥ पेटोवन एक अुजवात। बसात सामके शांत। एकाग्र करून चित्त। वाचात श्रीदामोदर स्तवन ॥९८॥ मागता तें तूं दिता। व्हड संकष्टांतसून वाटायता। आनी ख्यास्त भोगयता वायट चिंतप्यांक ॥९९॥ भुरगें नाशिल्ल्याक बाळ। गरीबांक दुडवां दाळ। वाडिल्ल्यांक लग्ना माळ। रोखडी तुं दिता॥ १००॥ तुजे सासायेक ना अंतपार। म्हजे बुद्धिची शीम अशीर। सेवेक म्हजे दी थार। तुज्या चारणांसरीं ॥१०१॥ इल्लीशी म्हजी ही सेवा। गोड मानून घे देवा। सस्तताय दी जीवा। सासणाची ॥१०५॥ तुजेकडेन देवा एकुच मागणें। एकठांय हाड सगळे कोंकणे। तडीक व्हर मनांतले मांणे। देवा दामोदरा ॥१०६॥ पळोवन जातीभेद। भोगता मनाक खेद। म्होडूंक हो भेद। घालतां तुका साद ॥१०७॥ कवी श्री सुहासान। अंतःस्करणांतल्या उमाळ्यान। रचिल्लें हें स्तवन। सोंपलें आतां ॥१०८॥ ॐ शातिः शांतिः शांतिः

॥ शुभं भवतु ॥

॥ ॐ श्री दामोदरार्पणमस्तु ॥






## ।। श्री रामनाथ स्तोत्र ।।

ॐ नमो श्री गणेशा ।। गौरीपूता विघ्नेशा । दाखय दिशा । स्तोत्र रचपाची ।।१।। जय देवी सरस्वती । शारदा तूं वीणावती । दी म्हाका स्फूर्ती स्तोत्र रचपाक ।।२।। दत्तात्रयान केल्ले कुरू चोवीस । हांव सामको नेणार मनीस । सदगुरू श्री साईबाबांचो ध्यास । धरतां शुभकार्यार ।।३।। पर्वतावेलो चंद्रेश्वर आमचो कुलदेव । रामेश्वराचो रामेश्वर । दोन नावां एक देव ।।४।। रामनाथींच्या रामनाथा । हे आदिगुरू आदिनाथा । तुज्या गुणांची गाथा बसला हांव बरोवंक ।।५।। मळबायेदो कागद जाय । दर्याइतली शाय । वर्णूंक तुजी सासाय । देवा रामनाथा ।।६।। जाय व्यासा एदी बुद्ध । हाची आसा म्हाका सुद्ध । पुण तुजो हस्त वरद । तडीक म्हाका पावयतलो ।।७।। मोनो मारता तान । कुड्डो देखता वस्त सान । थोटो माड्डीता रान । तुजेच कृपेन ।।८।। लक्ष चौद्यांयशींची करतना भोंवडी । खेयळों आसतोलों कितल्योच रडी । आतां तुज्याच पांयार अुडी । घेतां देवा ।।९।। ह्या संवसार-भोंवऱ्यांतसून भायर । हात दिवन काडूंक वयर । तूंच समर्थ सर्वेश्वर । देवा रामनाथा ।।१०।। अुजव्या हातांत तलवार । दाव्या हातांत धाल । गोंड्यासैत पगडी लाल । श्रीरामनाथा माथ्यार ।।११।। न्हेसला पितांबर । बसला घोड्यार । सोबता आंगार । रुद्राक्षांची माळ ।।१२।। कपलार त्रिपुंड्र तांबडो तिबो । फाटल्यान लक्ष्मीनारायण अुबो । अेकटक बसला खुट्ट खुबो । नंदी सामकार ।।१३।। श्री कामाक्षी मंदीर दाव्यान । श्री सांतेरी अुजव्यान ।

सिद्धनाथरूपी गणेश फुडल्यान । सांतेरी मंदिरांत ।।१४।। श्रीचंद्रेश्वराक चंद्रनाथ। विश्वेश्वराक विश्वनाथ। रामेश्वराक रामनाथ। म्हण्टी सगळे लोक ।।१५।।वच्चे आदीं सीते - सोदी। भारत - श्रीलंके मदीं। सेतू बांदच्या आदीं। श्रीरामान स्थापलें शिवलिंग ।।१६।। रामान स्थापलें देखून रामेश्वर । शिवशंकर रामाचो ईश्वर। शिवाचें आराध्य दैवत रघुवीर। आरतें - परतें ।।१७।। रामालो ईश्वर देखून रामेश्वर। राम जाचो ईश्वर तो रामेश्वर। असो हो भावार्थ थोर। शिव - रामाचो ।।१८।। देव-दानव करतना समुद्र मंथन ।हलाहल विख्ख अुफेलें दर्यातसून। तें पचयलें अेकट्याच शिवान। निळकंठ जावन।।१९।। तें खर विख्ख हलाहल। पितगीर जाले हाल। गंगेचें लेगीत जल। शमोवंक शकलेंना ।।२०।। शितळसाणेखातीर चंद्रकोर। म्हादेवान धल्ली मस्तकार। पुण विख्ख अितलें खर। हुलोप कशेच थारनात ।।२१।। जेन्ना दोन अक्षरी नाम। जपूंक लागो राम राम। त्याच खिणांत पडलो आराम। शिव शंभूंच्या जीवाक ।।२२।। शिवाच्या हृदयांत विष्णू। विष्णूच्या शिव। अशे ते दितात सामके जीवाक जीव। सांगता नारायणीय आख्यान महाभारतांत ।।२६।। हरिहरांत करतात भेदभाव। तांचो लटीक सामको भक्तिभाव। तांकांच लागता भक्तिरसाचो थाव। जे मानिनात हो भेद ।।२६।। जेष्ठ शुक्ल दसम, बुधवार। हस्त नक्षत्राच्या शुभ म्हुर्तार। रामान स्थापलो रामेश्वर। त्रेता युगांत ।।२७।। साक्षात श्री शिवशंकर। प्रकटलो श्रीरामा सामकार। रावणाचो करतलो तूं गोबोर। हांसत दिलो आशिर्वाद ।।२८।। त्या दिसा सावन आयजवेर। भारताच्या दक्षिण तोंकार। फांकीवंत श्रीरामेश्वर। दर्या-देगेर ।।२९।।येवंचे आदीं गोंयांत। श्रीरामेश्वर-दर्शनाचो बेत। कौंडीण्य, वत्सगोत्री सारस्वतांत। थाल्लो पक्को ।।३५।। आतां भौन भौन अुपास्य दैवत। श्री रामेश्वर-रामनाथ। पळोवंक मेळचोना दीसरात। म्हुण जाले कश्टी ।।२६।। अेका सारस्वताच्या सपनांत। आदले राती जालो दृष्टांत। लींग म्हजें तुका समुद्रांत। मेळटलें न्हातास्तना ।।३६।। कितें सांगतोलो अजाप। न्हातास्तना अचळय आपाप। रामेश्वरलिंगावरीच साप्प। लिंग आयलें हातांत ।।३८।। भक्तिक दिली रोखडीच जाप। तुज्या

साक्षात्काराक ना माप । अशेच दाखय आनीकय खूप । चमत्कार देवा ॥३९॥ भक्तांच्या आंगार फुल्लो चंवर। भक्तिक आयलो आनीकय भार लिंग तेंकोवन रामेश्वर-लिंगार। घेवन आयले गोंयांत ॥४०॥ गेंायां लोटले गांवांत । स्थापना केली विधिवत । नांव थेयलें रामनाथ । भक्तिभावान ॥४१॥ अग्निमुखशर्मा नांवांचो लोटलीवासी। तीर्थयात्रा करीत भोंवतालो देशोदेशीं । भोंवत भोंवत आयलो कांची-कामाक्षी। देशांत ॥४७॥ अेके सुवातेर तीनच दीस । पेणें करप हो ताचो नेम खास । पुण कामाक्षेचो लागलो ध्यास। सप्ताह सोंपलो तरी ॥४८॥ भक्तिंत रंगून गेलो हो देवीदास । सेगीत सुमार णव दीस। अखेरेक फांतोडेर सपनांत भास। जालो ताका देवीचो ॥४९॥ म्हजी मूर्ती अुदकांत मेळटली तुका तळयेंत। ती घेवन वच गोंयांत । आपल्या वांगडा ॥५०॥ पळोवन मूर्ती सोबीत भोव । पेखले तापत्रयादी घाव। अुफेले अष्ट सात्विक भाव। अग्निमुखशर्मा मुखामळार ॥५१॥ मुखावेले तीर्थयात्रेक करून फाट तडक धल्ली गोंयची वाट । वाटेर 'लाटल' काळभैरवाचे मूर्तीचो घाट। पळोवन पिसावलो तो ॥५२॥ तीय मूर्ती वांगडा घेवन। चलूंक लागलो ताकतिकेन। येतना वाटेर जाली तिळसान। राय गांवांत ॥५३॥ राय गांवांत ते राती। अग्निमुखशर्मान केली वस्ती। कामाक्षेची मूर्ती जड अती। जाली त्याच खिणा ॥५४॥मूर्ती कशीच हालना। तिचें वजन पेलना। शर्मा खंती मना। घेवन गेलो श्रीफळ लोटले ॥५५॥ लोटले तीच पळोवन मूर्त। जालो अजाप भरीत। आपले आर्दी त्वरीत । आयिल्ली पळोवन बुल्लुसलो ॥५६॥ अुप्रांत सुवात करून सुगूर। लार्गी लार्गी बांदलें मंदीर। कामाक्षी काळभैरवा खातीर। वेगवेगळीं ॥५७॥ मौर्य, शालीवाहन, भोज। चालुक्य, राष्ट्रकूट, शिलाहार राज। कदंब, होयसळ, यादव हांचें दायज। आसलें भोव बरें ॥५८॥ अुप्रांत सन तेराशें बावन्नांत । बहामनी सतेचो दांत । लागून जालो भोव घात । गोंयच्या लोकांचो ॥५९॥ ही सत्ता चौदाच वर्सां तिगली विजय नगरची राजवट आयली। अेकशेंचार वर्सां थिरावली। गोंयांत ॥६०॥ परतून बहामनी सत्ते फाटोफाट। बिजापूरच्या आदिलशाहीची राजवट। आयली सन चौदाशें

अेकोण्णवदांत । धार्मिक पिडापिडेची ॥६१॥ बिजापूरच्या आदिलशहाक । गोंयसून धांवडावपाक । तिमाजी नायकान पुर्तुगेजांक । आफयले पंधरांशें धांक ॥६२॥ सुरवेक फिरंग्यांनी । आफोवन हाडले हिंदूंनी । देखून वयलेचारांनी । केले तांकां बाबापुता ॥६३॥ छप्पन वर्सां अुप्रांत । सन पंधराशें पांसष्टांत । पुर्तुगेजांनी घेतलो घात । दाखोवन आपले दांत ॥६४॥ नवीं देवळां जायना बांदपाक । आशिल्लीं करूंक जायना दुरूस्त । केल्यार भोगतली निबर ख्यास्त । फर्मायलें तांणी ॥७९॥ भेटचें कापितावांक आमच्या । गांवकारांनी लोटलेच्या । किल्ल्यांत रायतुरच्या । काडलो आदेश सरकारान ॥६६॥ बाटाबाटीचे भंयान । लोटलेचे ग्रामसंस्थेन । मानलेंना हें फर्मान । मानभंगाचें ॥६७॥कापितांवांक आयली तिडक । सकल जाल्लें ताचें नाक । म्हजे ओर्दीक घालीनात भीक म्हळ्यार कितें ॥६८॥ बेजार जालो ताजो भेजो । ओपमान कोरतोलेत म्हजो । म्हणत घालो खर अुजो । देवळाच्या सोंडयाक ॥६९॥ लोकांनी दिली त्रिबुनालार केस । जुविज आसलो भोव बेस । कापितांवांक दंड केलो खास । बांदूंक फर्मायलें देऊळ ॥७०॥ ह्या निकाला विरुद्ध । आधिकारी, पाद्री जाले क्षुब्ध । हिंदूंक शिकोवंक बुद्ध । बसका तांणी आफयली ॥ ७१ ॥ सभेंतल्या थारावा प्रमाण । जेजुइतांच्या आर्चबिशपान व्हिसरैलागीं वचून । गाराणें घालें ताका ॥७२॥ निकाल केलो ना जाल्यार रद्द ॥ हिंदूंक चड्टलो मद । बाटाबाटी जातली बाद । आयजवेर केल्ली ॥७३॥ व्हिसरैन आपल्या अधिकारांत । बदल केलो निकालांत । अुरिल्लीं देवळां मोडपाचें नोंत । बेगोबेग काडलें ताणें ॥७४॥ सन पंधराशें सांसष्टांत हिंदूंचेर आयलो आकांत । बाटाबाटीचो चुकोवंक घात । जायते जाण गेले पळून ॥७५॥ अंत्रूज काणकोण म्हालांत ।कारवार, मंगळूर, कोचिनांत । गेले ते कुलदैवतांसैत । धर्म आपलो राखूंक ॥७६॥ मूर्ती घालून बैलगाडयेंत रासय हाडल्यो रातोरात । जुवारी न्हंय हुपून पोनेळांत । पलतडीं पावयल्यो दुर्भाटा ॥७७॥ अंत्रुजेंत आसलो आदिलखानाचे शेक । कारभार चलैतालो सरदेसाय अेक । देखून आसली मेकळीक । हिंदूंक ॥७८॥ दुर्भाटच्यान परत बैलगाडयेन

व्हेल्यो त्यो बांदोड्या गांवांन। थंय सुयोग्य थळ पळोवन। स्थापना केली तात्पुर्ती ।।७९।। पेटोवन अेक नंदा- दीप। बांदून चुट्टांची खोंप। मूर्ती दवरल्यो तातुंत। भावीक म्हाजनांनी ।।८०।। अुप्रांत बांदोडेचे ग्रामसंस्थे कडसून। मागून घेतली सुवात विस्तिर्ण। कायम वर्सुकी फोर्रान। म्हाजनांनी ।।८१।। हेंच तें सोबीत थळ - कुटुंबण। जंय आयज अुबें देऊळ पूर्ण। आतां पाचारती सगळे जाण। रामनाथीं म्हुण्ण ।।८२।। रामनाथींचो बेताळ। शिवाच्या भूतगणांचो मुखेल। कोयतो आनी शाला दिल्यार जाता खोशी ।।८९।। अेक खेपो सकाळच्या पारा। पुजारी गेलो बेताळ-मंदिरा। सर भितर जाल्यार देवाच्या आंगा। दाटला रेबो ।।९०।। आदले राती हांवेंच धांपलां दार। कोणें केलो जायत हो अधर्म - अविचार। म्हाजनांच्या गजाल कानार। घाली बेगोबेग ।।९१।। अितल्यान धांपेत आयले खारवी चार। जाल्ले ते सामके जार। चौगांर्नीय बेताळा सामकार। सांष्टांग घालो नमस्कार ।।९२।। धांपेत - खर्शेत वर्णिलो जो चमत्कार। तो वाचतना आमच्या आंगार। फुल्लोना जर भक्तिचो चंवर। तर दुर्भागी आमी ।।९३।। ' व्हडें आमचें शिरकलें रेब्यांत। अुदकय रिगलें व्हड्यांत। दुर्भाटचे खार्डीत। काल रातीं ।।९४ ।। पेट्टो लापयांव पालवलो। काळोख -गुडुप्प दाटलो। आखांतून माल्लो अुलो। बेताळाक आमी ।।९५।। न्हंयत व्हडें लकलें। विपरित असलें आर्दी ना देखलें। रेब्यान आंग माखलें । पुराय आमचें ।।९६।। जाले आमी सामके जार। फुडली आमकां ना खबर। कशे-कात पावले तडीर। बेताळाकूच खबर ।।९७।। सुटलें भटालें कुवाडें। खारव्यांनी घाल्लें सांकडें। बेताळान आयकल्लें रोखडें। आपूण रेबटांत देंवून ।।९८।। बेताळा, तुवें केल्लो हो चमत्कार। आयकून कांटो फुलता आंगार। लिखणेक आनीकय चट्टा धार। वाखाणूंक तुजी सासाय ।।९९।। पौष म्हयन्यांतले शुक्ल बियेक। दुदया - भाजी आनी वडे बेताळाक। चिरमुल्यांचो नैवेद्य अुमाशेक। ओंपूंया आमी ।।९९।। अेकशें आठ ओंवयांची ही माळ। जपतलो जो जो दादलो, बायल, बाळ। भेश्टावंक शकचोना कर्दनकाळ। श्री रामनाथा कृपेन ।।१०७।। कुशबनवासी श्री चंद्रेश्वरदास। कवी यशवंत - पुत सुहास। हांणी रचिल्लें हें स्तोत्र सुरबूस। सोंपलें आतां ।।१०८।।

।। श्रीरामनाथार्पणमस्तु ।।

।। शुभं भवतु ।।



# श्री मंगेश - स्तोत्र सार

नांव तुजें मंगेश। मंगलाचो तूं ईश। भक्तांचेर तूं खुश। सदांसर्वकाळ ।।१।। गळ्यांत रुद्राक्षांच्यो माळी। माथ्यार जटा काळी। करत तुजी सावळी। पिलो देखून विख्ख ।।२।। जटेंत गंगा नितळ। माथ्यार चंद्र शितळ। लिंग तुजें काळो-कातळ। स्वयंभू-सुंदर।।३।। आगळोच तुजो थाट। नंदी सोडीना फाट। तुमचें नातें दाट। नागराजा कडेन ।।४।। आंगार पटे भस्माचे। दंडार विळखे नागांचे। गळयांत हार फुलांचें। सोबता बरे ।।५।। मुमुरखोसो तूं हांसता। भक्तांक आपल्या तोखेता। तेज तुजें फांकता। माथ्या भोंवतणी। दोळे तुजे तेजिष्ट। दंड तुजे बळीष्ट। किर्तिमुख रागीष्ट। प्रभावळीर ।।६। ।म्हजेलागीं ना गिन्यान। हांव सामको सान। लिखणेक म्हजे दी दान। वेल्या पांवड्याचें ।।७।। लोमशर्मा नांवाचो बामण। म्हादेवाचो भक्त म्हान। आस्तालो भजनांत तल्लीन। म्हादेवाच्या ।।८।। माघ शुद्ध पुनवेक। गिराणाचो सोंपतगीर शेक। तो गेलो न्हावंक। अघनाशिंनी न्हंयत ।।९।। आशिल्लें अेक मानगें थंय। ताणे धल्लो दावो पांय। सोडोवंक तो केले अुपाय। लोमशर्मा ब्राम्हणान ।।१०।। ताणे शिवाक माल्लो अुलो। म्हादेव धावून आयलो। त्रिशूळ मारून सोडयलो। मानग्यां - तोंडांतसून पांय ।।११।। भक्ति पळोवन तुजी। तृप्ति जाली म्हजी। भागोवंची दिस्ता इत्सा तुजी। सांगलें शिवान ।।१२।। घडलें तुमचें दर्शन। जालों हांव पावन। मानग्याक सद्गती दिवन। भागोवंची इत्सा म्हजी ।।१३।। मानग्याक दितां सद्गती। पळोवन तुजी भक्ति। हांगांच करतां वसती। अुतर दिलें शिवान ।।१४।। १६ व्या शतकांत अेक पाद्री धर्मकोल्ली। बाटोवंक लागलो देवळां सगलीं। भक्तांची भीवन गुळी जाली। बाटाबाटीक लागून ।।१५।। ताणीं देवाक गाराणें घालें। मंगेशान सपनांत सांगलें। जळींमळीं अस्तित्व आपलें आसा

म्हणून ।।१६।। वाटावचें आसा लिंग - प्रतिक । तर बेगोबेग आयचे रातीक । घेवन तें वचात अंत्रुजेक । पालखेंतल्यान ।।१७।। म्हाजनांनी सांगलां तशें केलें । पालखेंतल्यान लींग व्हेंलें । प्रियोळा लिंग जड जालें । देखून थंयच दवरलें ।।१८।। दुसरे दिसा फुलोवन छाती । पाद्री करुंक आयलो बाटाबाटी । पुण दोंगुल्लेची कोसळिल्ली माती । लिंगाजाग्यार ।।१९।। देखाव हो पळोवन । खतखतलें पाद्रीचें मन । आयल्लो तसो हात हालोवन । गेलो तो तोंड घेवन ।।२०।। अंत्रुजेंत पुर्तुगेजांचो नासलो भंय । प्रतापराव सरदेसायांचो शेक आसलो थंय । जाल्ली पळोवन सोय । लिंग थंयच स्थापलें ।।२१।। उप्रांत कांय काळान । म्हाजनांनी आपल्या खर्चान । बांदली एक देवळी सान । लिंगाचेर ।।२२।। म्हाजनांनी पंद्राशें साठांत । मंगेशाच्या परिवार देवतां सैत । तडीक पावैलो बेत । बांदून व्हड बरें देऊळ ।।२३।। श्री संस्थान मंगेशीं पवित्र । मंगेशाचें पुण्यक्षेत्र । तूंच देवा ईष्टमित्र । गरिब -दुबळ्यांचो ।।२४।। ।।२५।। अगरसाळी कुशीक । श्री स्वामी नाईक । हांची समाथी एकआसा सान सुंदर ।।२६।। वर्तलो हो कवी नामनेचो । रचलो तार्णे झेलो झुलव्यांचो । दर एक झुलवो म्हणपाचो । पालखे पेण्यां कणकर्णीं ।।२७।। येतना मंगेशीं कुमठ्याक साकून । लागलें काणकोणचें रान । थंय चलतनां आपलेच भीर्कन । चुकामुक जाली बायल - घोवाची ।।२८।। बायलेक सोद सोद सोदली । पुण ती खैंच ना गावली। पुरो जावन थपकल माल्ली । रुखा-मुळांत अेका ।।२९।। अितल्यान अेक धवोवेषधारी । येवन नायकासरीं । मायेन ताका पाचारी । दुखेस्त तूं कित्याक ।।३०।। नायकान सांगली गजाल घडिल्ली । ती व्यक्ती हांसली । ताजे म्हऱ्यांत बसली । उपदेश ताका करूंक ।।३१।। वाट चुकिल्ल्यान दुखेस्त तूं जालो । खंयच्यान तूं आयलो। आनी खंय तूं वेतलो । येवजिलां केन्ना हें तुवें ।।३२।। भोंवन भोंवन वाट चुकता । देखून मनीस परतून जन्मता । परत परत जिरखता । ह्या भवजाळांत ।।३३।। नायकाक नवी दृष्टी गावली । इतल्यान ती व्यक्ति नाच्च जाली । रोखडीच बायल थंय पावली । सोदीत ताका ।।३४।। श्रीमंगेशाचीच ही घडणूक । दोळे म्हजे उगडूंक । जिवीत न्हय हें इबाडूंक । येवजिलें नायकान

।।३५।। भोंवन चौद्यांशींची भोंवडी। आयलां मनीस जातीच्या कुडी। तूंच देवा पावय तडी। सर्गसुखाच्या ।।३६।। चार दिसांची ही जीण। खोसयेचो ळना खीण। संसारांत काळोख भीण्ण। तुजेबगर देवा ।।३७।। संमुद्रमंथनांतलें पिवन विख्ख। दिलें हेरांक सुख। म्हजे जिर्णेतलें दुःख। आटय गा देवा ।।३८।। अुप्रांत नायक मंगेशीं आयलो। देवाचे सेवेंत गुल्ल जालो। नामनेचो कवी म्हुण गाजलो। अख्ख्या कोंकणांत ।।३९।। अेक दीस नायक स्वामीक। वच्चें दीसलें काशीयात्रेक। पुण रातीं न्हिदांक। घडलें ताका तीर्थस्नान ।।४०।। जागो जावन तो उठलो। अुठून कितें पळयतलो। अख्खो देह खिचप्प भिजिल्लो। तीर्था - अुदकान ।।४१।। मंगेशींतच घडलें तीर्थस्थान। आतां हांगाच रावून। सेवा करची भक्तिभावान। नायक स्वामीन ।।४२।। ॐ नमः शिवाय हो जप। केल्यार ना नपशात जाता पाप। अंतस्करण निवळ जाता साप्प। एकशे- आठ वेळां करतगीर ।।४३।। अघ म्हणजे पातक हो अर्थ। अघनाशिनी न्हंय कर्ता साथजीण जाता कृतार्थ। कुशस्थळींत न्हाल्यार ।।४४।। अुजूपणान करून हार। शांततायेन करचो संवसार। मंगेशाचें नांव ओंठार। आसचें सदांकाल ।।४५।। जातीपातीं विरैत। करूंक समाजहित। वावुरता जो दीसरात। तोच पावता मोक्षाक ।।४६।। म्हात्म्य हें वाचचें सोमाराक। शिवरात्र आनी माघ पूनवेक। जेवन त्या दीस शिवराक। मन लावन ।।४७।। पेटोवन एक उजवात करात एकचित्त। मर्दी उलयनाकात। म्हात्म्य वाचतनां ।।४८।। वाचल्यार म्हात्म्य मंगेशाचें। जुळून येता लग्नाचें। वरदान मेळटा सरस्वतीचें। शिकपी भुरग्यांक ।।४९।। श्रीमंगेश - म्हात्म्य जो वाचता। श्री मंगेश ताका पावता। संवसार - रुख फुलता। भुरग्यां-बाळान ।।५०।। मेळटा खूब दुड्डू - धन। मान आनी भौमान। आयुआरोग्य म्हान। म्हात्म्य वाचल्यार ।।५१।। जय देवा मंगेशा। वयर काडून कोंकणी भाशा। दाखय म्हा-कोंकणाची दिशा। साबार कोंकणी लोकांक ।।५२।। हांव मुळचो अज्ञानी तुजे कृपेन जालों ज्ञानी। रामाचो पुल बांदपी चानी। तितलीच सेवा म्हजी ।।५३।। दर्या-देगेर रेंवें - कण जितले। चमत्कार तुगेले आस्तले तितले। आटापचेना ते सगले। म्हजे कडसून ।।५४।। श्रीमंगेश म्हात्म्याची गोडी। घेता तितली थोडी। बुद्ध म्हजी पाडी।